# इंद्रधोणू

## जयमाला दणायत



# इंद्रधोणू



प्रकाशन क्रमांक : 179

1996

**प्रकाशक :**
प्रभाकर द. भिडे
राजहंस वितरण, 1-मीनाक्षी बिल्डिंग,
डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी - 403 001

**छपाई :**
राजहंस ऑफसॅट, पणजी.

**मुखपृष्ठ आनी सजावट :**
रामानंद भगत

**मूल्य :**
1996 - 10/- रु.
1997 - 10/- रु.
1998 - 12/- रु.

ISBN 81-85854-79-3

# इंद्रधोणू

भुरग्यांनो, तुमचे मदल्या जणा एकल्यान पावसा दिसांनी एकदां तरी मळबांतलो इंद्रधोणू पळयलाच जातलो. कितलो सोबीत दिसता न्हय? पळयतना जिवाक मोटी धादोसकाय भोगता. श्रावणांतलो हो रंगयाळो इंद्रधोणू पळोवंक मेळनाशिल्लो लोक खरेलोच फुटक्या नशिबाचो म्हणूंक जाय!

मळबांत सोबून दिसपी हो इंद्रधोणू म्हणजे सर्गातल्या इंद्रदेवाचें धनुष्य अशी आमच्या जाणटेल्यांची भावना





आसली. ह्या इंद्रधोणवाविशीं जायतेकडेन वेगवेगळयो काणयो आयकूंक मेळटात. इंद्राचें हें सातरंगी धनुष्य. तो धर्तरिचेर पावस घालचे पासत आनी त्याच काळार वापरांत हाडटा. गीम तापलो म्हणजे कासावीस जाल्ले धर्तरिची तान भागोवंक आपणाल्या धोणवाक बाण जोडून ताणटा आनी जमनीर पावस पडटा तेन्ना वता किरणाच्या उजवाडांत पुण्यवान लोकांच्या दोळयांकच तो इंद्रधोणू दिश्टी पडटा अशें काय जाण सांगतात.

कांय लोक हाका रामबाण म्हणुनूच वळखतात. हाजी काणी आख्ख्या संवसारांत फामाद आसा. सीतेच्या लग्ना वेळार तिजो बापूय जनक असो पण लायता की आपल्यागेर

आशिल्ल्या परशुरामान दिल्ल्या शीवधनुष्याक उबारून जो ताका बाण लायतलो ताकाच सीता लग्नाची माळ घालतली. देश विदेशांतले व्हडले व्हडले एकापरस एक पराक्रमी राजा येतात, आपले परीन येत्न करतात, पूण ताजो हो पण कसोच जिखूंक पावनात. आनी मागीर राम येता. गुरुचे आज्ञेन तो सहजतायेन ते येदें जड आनी व्हडलें धनुष्य उबारता आनी खिणाभितर ताका बाण लावन सोडटा- तो हो सप्तरंगी रामबाण- ताज्या फोर्सान पावस ओतता - हो रामबाण असो पावसा तेंपार दिसता.

कांयकडेन हो रामबाण दिसलो म्हणचे शूभचित्र एकदम बऱ्या भाग्याचें मानतात; जाल्यार कांय भागांनी हो इंद्रधोणू दिसप म्हणजे वायट- अशूभचिन्न-दुश्चिन्न मानतात.





आपल्याक तें वायटाक पडचें न्हय आनी ताजें आयब वचचें म्हणून मातयेच्या बुडकुल्यार बुडकुलो आपटून फोडटात, जाल्यार कांय कडेन ह्या इंद्रधोणवाच्या दिसपावयल्यान तरेतरेचीं फुडलीं अनुमानां काडटात. अंदू इतले खेपे इंद्रधोणू दिसलो म्हणजे पावस चड जावं उणो- अमूक वंटेन तो दिसलो जाल्यार राज्यांत दुकळ पडटलो, पीक बरें येवंचें ना; माती आनी गोबर. असलीं तरेकतरा भविश्यां करतात.



पयलीं काळार आशिल्ल्यो लोकांल्यो ह्यो अंधश्रध्दा ना करचे पासत संसारांतल्या जायत्या जाणकारांनी हाजेफाटल्या शास्त्रीय कारणांचो सोद घेवन ह्या सैमाच्या चमत्काराचें स्पश्टीकरण करचेलो यत्न केलो. डॉ. मिनस देकार्त ह्या गणितज्ञान भुमितीच्या आदारान सैमाच्या ह्या चमत्कारापाटलें कारण सोदून काडलें. फुडें संवसारांतलो फामाद शास्त्रज्ञ-न्युटनान- ताज्या संशोधनांत व्हड मोलाची भर घाली आनी हो सगलो सुर्याचो खेळ हें प्रयोगान सिध्द करून दाखयलें. मळबांतल्यान पावस ओतता त्या वेळार

सूर्य जर आपले फाटल्यान आसत जाल्यार पावसाच्या ह्या थेंब्यांतल्यान आमकां हें रंगयाळें इंद्रधनुष्य दिसता. उंचेल्या कुपांतल्यान गळपी पावसाचे दडकेंतल्यानय इंद्रधनुष्याचें हें सप्तरंगी सपन दिश्टी पडटा.

मळबांतल्या इंद्रधोणवाची ही स्थिती ताजी प्रसारदर्शुपी स्थिती आनी क्षितिजावयल्या सुर्याची स्थिती हाजेवयल्यान थरता. उदकाच्या थेंब्यार पडपी किरणांतल्यान हें इंद्रधनुष्य तयार जाता. ना जाल्यार परावर्तन जातकच उदकाच्या थेंब्यांतल्यान

परतून पळोवप्याच्या दोळ्यांत पडपी उजवाडा किरणांच खरो इंद्रधोणू निर्माण करतात. हाजी खरी व्याख्या करपाचो भोवमान न्युटनाकच मेळ्ळा. हे पावसाचे शिंवर उजवाडाच्या किरणां तोंडाकडेन 40 अंशांचो कोन करतात-आनी तांतल्यान सात रंगांची निर्मणी जाता. सगल्यांत वयलो तांबडो, मागीर नारंगी, हळदुळो, पाचवो, निळो, गाड निळो आनी निमाणो जांबळो हे सगले रंग भरतकच उजवाडाचो धवो रंग जाता हें आमकां सगल्यांकच खबर आसा. तात्पर्य किदें, जाल्यार, न्हय हें इंद्राचें धनुष्य वा रामाचो बाण. हो आमच्या सूर्यराजाच्या उजवाडा-किरणांचो जादवाचो खेळ!

# चाक

भुरग्यांनो, तुमी तुमचे सरभोंवतणीं तरेकतरांचीं चाकां पळयतात काय ना? कितें, खबर ना? अशें पळयात, चाक म्हणचे चक्र ! मोटारीचें वा बसीचें चाक, सायकलीचें चाक, गिरणीचें चाक, विमानाचें चाक आनी घडयाळींतलीं लेगीत चक्रांच. ल्हान व्हड, तरातरांचीं हीं चक्रां ! शिवणीचें चाक आनी इंजिनांतलें लेगीत चाकच.

खूब खूब वर्सांपयलीं, म्हणजे आदीमानवाच्या काळांत चाकां नाशिल्लीं. कसलेंय काम करूंक खूब वेळ





लागतालो. पयलीं सगलीं कामां मनीस आपूणूच करतालो वा पाळिल्ल्या जनावरांवरवीं करून घेतालो - म्हणजे हती, घोडे, बैल, गाढव अशे. आनी आतां ह्या काळांत वचत थंय मशिनांनी कामां चलतात. आतां मशीन जाय. माक्न ना जाल्यार मनशाची जीण असह्य जावन वतली इतले आमी ह्या माक्नांचे म्हणजे ह्या चाकांचे आधीन जाल्यात - न्हय, चाकांबरोबरच मनशाचे जिणेकय गती आयल्या आनी चुकून केन्नाय कसलोय माटो चमत्कार घडून हीं सगलीं माक्नां बंद पडत, तांतलीं चक्रां थांबत जाल्यार तांचे बरोबरीन मनशाची जिणूय ठप्प जातली.

ह्या चक्रांचो सोद कसो लागलो हीय एक मोटी मजेशीर गजाल ! खूब खूब वर्सा पयलीं एके दोंगुल्लेचे तेंगशेर कांय भुरगीं जमून खेळटालीं. थंय लागींच झाडांचीं लांकडां कापून तांचे आटसारे कुडके करून दवरिल्ले. त्या लांकडांची व्हडली रास घालली. भुरगीं तिजेर उडक्यो मारमारून खेळटाली. मदींच एका भुरग्यालो पांय लागून एक लांकडाचो होंडो घुंवलो आनी माटीचे घसरगुंडे वयल्यान गडगडत वचून सकयल पडलो. ताजी मजा दिसून त्या भुरग्यान दुसरो एक होंडो घुंवडावन सोडून





दिलो. तोय गडगडून सरळ सकयल पावलो. भुरगीं ताळयो मारून नाचूंक लागलीं. मागीर सगलेच एकेक लांकडाकुडको गडगडावन सोडूंक लागले. तो एक तांकां मजेचो खेळच जालो. लांकूड गडगडत वता हे पळेतना तें वाटकुळें घुंवत वता म्हणून चक्र जालें - लांकडा होंड्याचें एक खडबडीत चाक जालें - अशे तरेन ह्या खेळांतल्यान चक्र म्हणजेच चाक जल्माक आयलें.

व्हडले फातर जे एक जाग्यावयल्यान दुसऱ्या जाग्यार व्हरपाक मनशाक आपली पुराय शक्त वापरची



पड वा जनावरांचे मदतीन उखलून व्हरचे पड, ते उण्या फोर्सान लांकडांच्या होंड्यांवयल्यान घुंवडावन व्हरूं येतात हाजो लोकांनी सोद लायलो. ल्हवूल्हवू खडबडीत लांकडा कुडक्यांतल्यान ताका वाटकुळे आकार आयलो. ताका लागून फोर्सय उणो लागतालो - तांतल्यान मागीर एकेके तकलेतल्यान एकेक युक्त सुचत गेली आनी चाकाक बरो सोबीत वाटकुळो आकार आयलो. ताकाच चाक-चक्र अशें म्हणूंक लागले. त्या चाकावयल्यान मागीर बैलगाडयेची कल्पना सुचली. लोकांक एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत वचप सोंपें जालें. बैलगाडयेन गांव लागीं आयले.

ह्या लांकडी चाकांचे कल्पनेंतल्यान ल्हवूल्हवू मागीर मोडनाशिल्लीं घट लोखणाचीं चाकां वापरांत आयलीं. सायकल, मोटार, गाडी हांचे सोद लागले. जग आनीक लागीं आयलें. लोक पयस पयसुल्ले प्रवास करूंक लागले. ताजे फुडें वचून बोटी, विमान हांचे प्रवास सुरू जाले.

चाकाचे गाडयेन बांयंतलें उदक सडसडीत शेंदूक येता हें सगल्यांक खबर आसा. तेचप्रमाण कुळणीं, बुडकुले असलीं मातयेचीं आयदनां तयार करतना कुमारमाम चाकार मद्‌दीं मातयेचो गुळो दवरता आनी चाक घुंवडायता. तें घुंवता आसतना मातयेक हातान जाय तसो



आकार दिता. तेचप्रमाण इंजिनांत चाक घुंवत उरता म्हणून इंजीन काम करता. चाक थांबलें जाल्यार इंजीन मोडटा. हे तरेन जायतीं माक्नां चाकांचेर चलतात. लांकडां कापप, खेळणीं घडोवप, आयदनां तयार करप- सगलें चाकांचेर चलता. लेथ, पिठागिरण चाकाचेरच चलता. तेचप्रमाण शिंवपाचें माक्नय पळयात. तातुंतूय चाक आसता. शेतांत उदक घालपाचो पंप चक्रांचेर चलता.विजेच्या माक्नांतूय चाकांच -म्हणजे घराघरांनी उजवाड दिवपीय चाकच जालें. चाक ना जाल्यार मशीन चलपाक ना.



तुमी घडयाळ पळयल्या बारीकसाणीन ? केन्नाय उकती केल्ली घडयाळ पळयात - येदींयेदीं कितलींशींच चाकां आसतात भितर. आयचें जग घडयाळीच्या कांट्यार म्हणचेच चाकार चलता म्हणूंक जाय. घडयाळीक लागून सारको वेळ कळटा. सॅकंड, मिनटां, वरां, दीस, म्हयने सगलेंच घडयाळीचेर आदारिल्लें ! गांधीजींचो सूत कातपाचो चरखो म्हणजे चाकच न्हय ? आनी आमच्या आवडट्या तिरंगी झेंड्यावयलें मदलें चाक - अशोक चक्र ! एकूण कितें आमचे जिणेंत चाकाक सगल्यांत चड म्हत्व !

आनीक एक मजा जाणात तुमी ? आमचे जाणटेले साक्षात मळबांतल्या सुर्याक चाक मानताले. चाकाक पळय-मदीं मदीं आरे आसतात तशे सुर्याचे खंय बारा आरे ! म्हणजे वर्साचे बारा म्हयने ! सुर्याचें हें चाक उदेंतेक वयर सरलें की दीस जालो - तो माथ्यारआयलो की मध्यान जाली आनी अस्तंतेक अस्त जालो की मागीर रात जाली. अशे दिसाफाटल्यान दीस गेले की 30 दिसांनी म्हयनो आनी बारा म्हयने जाले की एक वर्स सोंपलें म्हणपाचें. तेचप्रमाण वर्साभितर वता तेंप, पावसा तेंप, शिंयातेंप हे ऋतु ! अशें हे सैमाचें ऋतुचक्र चालू उरता आनी ताजेरच तुमची आमची जीण घुंवत उरता.